ತುಕಾ...

ಉಗ್ಡಾಸ್ ಮ್ಹಜೊ ಯೇನಾ ಕಿತ್ಯಾಕ್?

ರಾಕ್ತಾಂ ವಾಟ್ ಸದಾಂ ತುಜಿ

ಮೆಜ್ತಾಂ ಬೊಟಾಂ – ಆಸಾತ್ ದೀಸ್

ಯೆತಲೆಂಯ್ ಕೆನ್ನಾಂ? ಹಾಡ್ತೆಲೆಂಯ್ ಪಾವ್ಸ್?
ಸುಕ್ತಾಂ ಹಾಂವ್ – ಸುಕ್ಲ್ಯಾ ಭುಂಯ್.
ಮೊಗ್ರಿಂ ಘೆವುನ್ ಯೆತೊಲೊಂ ಮುಖಾರ್
ವೊತ್ತೊಲೊ ಪಾವ್ಸ ಶಿರಾಂಧಾರಿಂನಿ
ಬಾಳಾಕ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಥೆಂಬೆ ಬೆಶ್ಯಾಚೆ
ಗುರೊಮ್ ಘೆವುನ್ ಯೆತೊಲೊಂ ಹಾಂವ್.

ಕುಳಾರ್ಚ್ಯಾ ವಾಟೆಕ್ ಫುಲಾಂ ಮಾಳುನ್ ತುವೆಂ
ಪಾಶಾರ್ ಜಾಲೆ ದೀಸ್ ಕಿತ್ಲೆ?
ಯೆತಲೆಂಯ್ ಕೆನ್ನಾ? ಹಾಡ್ತೆಲೆಂಯ್ ಪಾವ್ಸ್?
ಸುಕ್ಲಾಂ ಹಾಂವ್... ರಾಕ್ತಾಂ ಹಾಂವ್.

# साहितिक परिचय



नांव तें जांव्र एच्चेम, हेन्री मेंदोस या हेन्री एम. पेर्नाल पुण चिंताप तेंच, जेमेल्ल्यांक एक घडी धर्न हालंव्ची तांक ताच्या बर्पांक आसा. जागे आसल्ल्यांच्या काळजांक सग्ल चिंतीशें कर्ची श्याथी ताच्या बर्पांक आसा.

कन्नड साहित्याचो खरोच प्रभाव ताचेर पड्ला म्हळ्ळें ताच्या बर्पांची धार आनी ताच्या चिंत्पाचो सार सांग्ता. कोंकणिंत्ल्या कविताशेतांत कांय नवेसांव कर्च्या दिशेन हो खंडित जाव्न बरी देण्गी दींव्क सक्तलो म्हळ्ळी पात्येणी म्हाका आसा. एदोळच हाणे बरयिल्लीं शेंबोरावय्र कविता, पंच्वीसां वय्र मट्व्यो काण्यो कोंकणी आनी कानडी पत्रांनी पर्गट जाल्यांत. जाय्तीं इनामां सग्न हाणे जोड्ल्यांत. उत्रांनी तीक, चिंत्नांनी चुरुक आस्च्या हाची एक साहितिक वोळ 'समीक्शा' उदेव पत्रार फाय्स जाल्या आनी दोन वोळी 'काणिक' तशेंच 'मित्र' पत्रांनी पर्गट जाव्न आसात. मंग्ळुर आनी मुंबइ आकाशवाणिचेर सबार बर्पां प्रसार जाल्यांत.

'चल्यांक चत्राय' आनी 'देवाक सोड्ललो पाडो' उप्रांत हो ताचो तिस्रो बूक. एच्चेम फकत एक कवी/ बरव्पी न्हंय, एक विमर्शक, प्रबुद्द चिंत्पि आनी साहिती. कोंकणी साहितिक शेतांत हांवें खाय्स कर्च्या गूंड बरव्पयां पय्की एच्चम एक्लो. ताचो हो बूक आशावादी प्रकाशनाच्या एदोळच्या वाव्रांत एक मय्लाफातोर जातलो म्हळ्ळी म्हजी पात्येणी.

— वल्ली क्वाड्रस

आशावादी प्रकाशन

# कच्छ्याच्यो कविता

कविता पुंजो

एच्चेम




आशावादी प्रकाशनाचें सवें पुस्तक

Kaydyachyo Kavitha – an anthology of Konkanni poems in Kannada and Devnagari scripts by Henry M. Pernal. This anthology is published by Valley Quadras for **ASHAWADI PRAKASHAN,** Mangalore, India.



First Edition: 2004

| | | |
|---|---|---|
| Cover | : | **ASHAWADI** |
| DTP | : | Mithr@Saangathi Media, Mangalore –2 |
| Printed at | : | Prasad Printers, Mangalore. |

— Sales —

Victor Mathias (Vitori Karkal)
Saangathi Media,
#23, Emporium Complex,
Kankanady, Mangalore - 2.
Call: 0824 5513871
Cell: 98452 09374
E-mail: vithori@hotmail.com

Valley Quadras
M.H.Al-Shaya Co.W.L.L.
P.O.Box 181, Safat 13002,
Kuwait A.G.
Call: 00965 2242287
Cell: 00 965 6266875
E-mail: valleyq@sify.com

For all the details of **ASHAWADI PRAKASHAN** and its work –
Visit http://www ashawadi.itgo.com

Price : Rs. 50/-

# अर्पण



म्हज्यो काणियो आनी कविता, बर्पा आनी कोलम
वाचून, पिंजून, शिंजून - विमर्सो कर्ची
देडा वर्साची म्हजी धुव

**हेन्सील रियाक**

-एच्चेम

# देव बरें करूं

## मुखेल पोशाक


फेलिक्स लोबो, खतार


पास्कल पिंटो, कुवैट


फ्रेड्रिक क्वाड्रस, कुवैट

## पात्रोन

- ❖ बेल्लेविशन डोटकोम (www.bellevision.com)
- ❖ क्वीनी मेंडोन्सा आनी कुटाम, अमेरिका
- ❖ शांती डिकुन्हा आनी बाबा आर्सटिन जोवाना डिकुन्हा, दुबाइ
- ❖ जुलीयेट डिसोजा आनी कुटाम, कुवैट
- ❖ राकेश शेट्टी आनी कुटाम, लंडान, यु.के.

## पोशक

- ❖ मायभास डोटकोम (www.maaibhaas.com)
- ❖ मेंगलोरीयन डोटकोम (www.mangalorean.com)
- ❖ जेम्मा पडील आनी कुटाम
- ❖ किशू बार्कूर आनी कुटाम

## सादे पोशक

❖ आर्सटिन प्रभु आनी कुटाम, अमेरिका ❖ अनिल मिनेजस आनी कुटाम, कुवैट ❖ नविन डिसोजा आनी कुटाम, कुवैट ❖ मार्क डेनिस डिसोजा आनी कुटाम, दुबाइ ❖ मेल्विन रोड्रिगस आनी कुटाम, दुबाइ
❖ गिल्बर्ट फेर्नांडिस आनी कुटाम, दुबाइ ❖ रोनाल्ड ओलिवेरा आनी कुटाम, दुबाइ ❖ म्याक्सिम सेराबो आनी कुटाम, शिर्वा, दुबाइ
❖ फ्रान्सिस फेर्नांडिस कास्सिया आनी कुटाम, दुबाइ
❖ सुनिल फेर्नांडिस आनी कुटाम, दुबाइ
❖ लारेन्स कुवेल्लो आनी कुटाम, मुंबाइ

पोशाकांच्या चड्डिल्क विवरा खातिर www.ashawadi.itgo.com

# कय्द्याची कबूली

हो म्हजो तिस्रो बूक . 'चल्यांक चत्राय', 'देवाक सोडल्लो पाडो' - ह्या दोनय बुकांनी म्हाका समाधाने प्रास चड भेजाराय भोग्लया. बूक आनी बुका संस्क्रतिची परिभाशा बदल्लेल्या आय्च्या काळार कविता आनी काणिये तित्लीच जडाय प्रस्तुतेकयी आसा. म्हजे आद्ले दोनय बूक प्रस्तुतेंत सल्वाल्यात म्हणोंक म्हाका तरयी मुलाज ना, आसों.

छापो सय्त आपोस्तलादी थाव्न दंदो जाल्ल्या आय्च्या युगांत आपाप्ल्या बुका शिवाय कोणाक कोणाच्या बुकाचें पडोन गेलां? मागिर तांत्ल्या साहिताक कोलो न्हंय तर रान दुकोर वरुं.

संय्बान खुद्द कवी, काणियांगार, विमर्शक आनी चिंत्पी मानेस्त वल्ली क्वाड्रस, अजेकार - आपोस्तालादिचें काम करिना तरी साहिताच्या वोड्तांत म्हालिचें काम करुंक भाग्र सर्ला - ही गजाल आम्कां कोंक्ण्यांक नव्या भर्वश्याची. आशावादी प्रकाशनान - आधुनिक कोंक्णी साहित वर्तुलांत एदोळच आप्ली अस्मिताय आनी एकीनता रुजु केल्या. मानेस्त वल्ली क्वाड्रास हाका, म्हजीं कविता आवड्च्याक कारणां वेवेग्ळीं आस्तित. पुण म्हजीं कविता आवडतात म्हण्च्या एकाच कारणाक लागोन, म्हजो कविता जमो आशावादी प्रकाशन फाय्स कर्ता म्हणोंक जाय्ना. कारण प्रकाशनाक बूक घेंव्च्या आदीं जी शिस्त पाळुंक आसा - तांतुं खंय्चीय रियाय्त वा सोड-दोड म्हाका मेळोंक ना.

ह्या जम्यांत्ल्यो चडावत कविता हांवे म्हज्या जिण्येच्या कठीण दुकिच्या घडियांनी बरयिल्ल्यो. म्हजी होकाल फुड्द बांव्टेराक कुळारा गेल्ले तवळ ह्या पर्की श्हेरांत हांव एक्सुरों पिडेंत पड्लों. पातियेनातल्ल्या नशिबानयी घात केलो आनि हांव बंदेंत उर्लों. ह्या जम्यांत्ल्यों जाय्त्यो कविता बंदेंत्ल्योच. "कवी कश्टांत आस्ताना बरयिल्ल्यांत तीर्ल आस्ता" अशें म्हण्ता - कवी, कविता संसोदक - संपाद्पी, मानेस्त मेल्विन रोड्रिगस. देकुनच जांव्क पुरो, डो। बेंद्रेंची "तुं अशें चोयिनाका म्हाका" कविता आजयी म्हज्या अत्म्याक पीळ्न काड्टा. कोण पात्येंव वा सोडुं - म्हज्या वांट्यांचें बर्यांत्लें बरें बराप मात हांव कुडिच्या आनी मतिच्या तळमळ्यांनी आस्तानांच बरयिल्लें. ह्या जम्यांत हांवें वर्सां आदीं बरयिल्ल्यो हेर थोड्च्यो कवितायी आसात.

*"रवीक दिसानात्लें कविक दिस्ता" म्हण्तात. कवी मित्र मानेस्त वल्ली क्वाड्रस म्हण्ता - "हो संसार एक रंगमंच आनी आमी सग्ळे कटपुत्ळ्यो". "म्हाका तरयी कित्याक हो संसार एक बंदिखानो आनी आमी सग्ळे कय्दी" कशें दिस्ता.कोण अदीकाराचे, कोण देव-धर्माचे, कोण सवयांचे, कोण गुन्यांवांचे आनी कोण म्हजेपरीं मोगाचे. ह्या जय्लाचे पागोर वेग्ळे. पार्यागारयी वेग्ळे. ह्या जय्लाच्या पार्यागाराची नदर चुकव्न, इत्ले उबार पागोर उडोन व्हचुं तरी कशें?*



- *हो बूक पर्गट्णेक घेताना जिवा वोळ्किचो तरी शिस्तेंत कसलीय रियाय्त, सोडदोड दीनास्ताना, हो जमो फाय्स कर्चो प्राकाशक मानेस्त वल्ली क्वाड्रस, अजेकार,*
- *गिदा नद्रेन ह्या जम्यांत्ल्यों कविता तपासुन पय्लीं उत्रां बरयिल्लो कवी, काव्या तज्ञ - मानेस्त आंड्रू एल डिकुन्हा, किन्निकंब्ळा,*
- *म्हज्या खाम्गी तशें साहितिक गर्जांक आप्लीं गर्जेचीं कामां कुशिक दवर्न म्हाका पांव्चो म्हज्या जिवाचो ईश्ट आल्वी पेर्नाल,*
- *जल्म दिल्लीं माय-पाप्पा, मोग दिंव्च्यो भय्णी-भाव,*
- *म्हजें काजार जाल्ले थाव्न म्हाका सदां आधारुचो म्हजो मिव्णो विट्राचो लुविस मस्करेन्हस,*
- *सदां आप्ल्या मोगा-जय्लांत म्हाका कुडाव्न दवर्ची म्हजी होकाल स्टेल्ला,*
- *आनी ह्या मोगा-जय्लाची अंग्रेजी शिस्तेची जय्लर मदाम देडा वर्साची ध्रुव हेन्सील रिया,*

*हांचो - जीण भर,*

**एच्चेम**

*रग्ता रुणाचो, अभिमानाचो आनी मोगा मय्पासाचो*

***- कय्दी***



# वाच्प्यांक कय्दी कर्चो कवी

भास फकत उलयल्ल्या वर्वीं जिवाळ उराना. भाशेच्चे भलाय्केभरीत वाडावळिक त्ये भाशेंत्लें साहित्य जिवाळ आसोंक जाय. काव्यें साहित्याचे दोळे आसल्ल्यापरीं. कुडिची सुड्सुडाय दोळ्यांनी पार्किव्येत तशें साहित्याची जिव्साण त्या साहित्यांत्ल्या काव्या प्रकाराचो पर्जळ पळेव्न पार्किव्येत.

कोंक्णी साहित्यांत काव्या प्रकाराची वाडावळ कोंक्णी भाशेबरिच कुर्वाता म्हण्येत. आतां आस्च्या फकत बोटांनी मेज्च्या तित्ल्या कविंची काव्या झर हो कविता व्हाळो व्हाळंक पावाना. थोड्या कोंक्णी वाच्प्यांनी आनी पत्रांनी पाटिंबो दिंव्चें अन्बोगाची ऊब नातल्लें सवायेचें, उतळ आनी हाळू साहित्य वा काव्यें (?) भाशेक आनी साहित्याक आनिकय नित्राण कर्ता तें स्वश्ट जळकाता. ह्या वग्ता जर कोण बुद्वंत कवी ऊंच मट्टाचें काव्यें रचुन रुचिक साहित्य वांटुंक लाग्ता तेद्नां नवी आशा किर्लाता. रसस्वाद शिरां-शिरांनी व्हळताना आनिकय जाय म्हण मन मिटियो मार्ता. आम्च्या कोंक्णी साहित्यांत बाब मेल्वीन रोद्रिगसा बराबर ऊंच मट्टाची कविता रचुन कविता थंय काव्या रसिकांच्या शिरांनी असली नवी रूच, नवी आशा, वोड्णी आनी भर्वसो उब्जाशें करुंक सकल्लो सक्तेवंत कवी एच्चेम या हेन्री एम पेर्नाल.

थोड्या वर्सां आदीं चल्यांक चत्राय दिल्लो हो कवी अन्बोग चडोन येताना कय्दी कसो जालो? वालीं मधें शिर्कालो? जाळां मधें फस्लो? समाजेच्चे मुटी भितर अड्चालो? कय्द्याच्यो कविता पुस्तकांत्ल्या हर्येका कवितेंत्लीं कुसां उसय्ताना असल्या सवलांक जापी मेळ्तात. पुण कविन उटंव्च्या नव्या सवलांक वाच्प्यांनी आप्ल्याच आन्भोगाच्या उज्वाडांत जापी सोधिजाय पड्तेल्यो. असलें एक कय्द्याचें सवाल हांगा आसा.

*निश्चींत उल्लाना, बंदेंत बस्ची आशा,*
*पिंज्र्यांत पळ्ड्या उप्रांत, उबोन वेची खंत*
*काळ्जाक अशी कित्याक धोस्ता?*

'कष्याच्यो कविता' पुस्तकांत्ल्या थोड्या कवितेंनी कवी भितर्लो कष्दी उलय्ता तर आनी थोड्या कवितेंनी कष्दी भितर्लो कवी उलय्ता. पुण दोगी सत उलय्तात. अपुट सत!

*तुच्या मोगा पास्ळेंत हांवें गुंतल्लीं सप्णां सर्गांचीं,*
*संख्याच्ये काळ्कायेंत आज उल्र्यांत खतां मात हळ्दुवीं. (आटेविटे)*

किल्लीं सत्ती भोग्णां हीं. सत वळ्कोंक आनी उचारुंक काव्या वर्नी सोंपी वाट दुस्री ख्वंय्ची आसा? मोगच सर्ग. मन्श्या संख्याच्ये काळ्कायेंत मोगा पास्ळेंत्लो तो सर्गा संतोस धड्येन मायाग जाव्न उल्र्यांत. खतां मात हळ्दुवीं. कष्याची पाप प्रज्णा हांगा कवी उग्ती कर्ता. मांज गीत कवितेंतय जिविताच्या सांजेरय कसलीं रोम्यांटिक भोग्णां उटोन उबे गवोन उचांवळ कर्तात तें सत कवी व्यंग रितिन सांग्ता:

*घरांत सांज रिग्ताना कस्लिगो ही पिसाय?*
*बुडोंक वेच्या सुरयाक सय्त ल्हारांची खराय*
*मिटांत घाल्ल्या तोरापरीं चिर्मुटोन वेता पिराय*
*पिश्ये मतिक सम्जोंव कशें सांगगो कांय उपाय*

असलीं सतां उचारुंक काव्येंच एक वाट! कविची व्यंग दीश्ट मन्श्याच्ये लंग्यिक पृव्रत्तेचेर घुंल्ला. कोणाविशीं सांग्ता तें कवी बुडोन वेच्या सुरयाच्या प्रतिमेवर्वीं स्वश्ट कर्ता. कविन रचल्ल्या ह्या प्रतिमांक जोक्तो रंग दितात कविन विंचल्लीं उत्रां। पिसाय, खराय, पिराय... असलीं चाल्तीं उत्रां कविन आप्ल्या चडावत कवितेंनी समर्पक रितिन वापर्न कवितेचें मट्ट चडय्लां.

वंडाय एच्चेमाच्या कवितेंनी उटोन दिस्चें एक लक्षण म्हण्येत तरय, एच्चेमाच्या कवितेंनी शृंगार रसय चड उप्येव्न आस्चो कळ्ता. थोड्या कवितेंनी शृंगार रस भरोन वोम्ताता. मोगाच्ये उमाळे रसग्रायकाच्या काळ्जांत उटव्न ताका सुक्ण्यापरीं वार्यार उबंव्ची सकतय ह्या कविक आसा. याद कवितेंत्ल्यो ह्यो पंग्ती चिंत्पाक साक्स दितात.

*उबोन आयिल्ल्या मोडांतगो पर्मळ*
*आंगाचो तुज्या, कूस बद्‌लिता हर्य्यांत*
*वांट्टन खेल्ल्या घडियांची गोड याद*

थोड्या कवितेंनी रोम्यांटिक भोग्णां आसात तरी वाच्याक वार्यार उबंव्चो इरादो कविक आसल्ल्यापरीं भोगाना. कुंक्डाचे पाकाटे हे! दुकिचीं जडायेचें उत्रां वाच्याक जड कर्न धर्णिक वोड्न धर्तात. तुजेविण कवितेंत्लें निमाणे चरण पळेया:

*शिताच्या हर घासांतगो स्वाद तुज्या हाताचो*
*आमोरेच्या घांटिंत नाद तुज्या पाच्च्या कांक्णांचो*
*मेजा कोन्श्यार तुटोन पडल्लो भाज्वे बुतांव तुजो*
*साक्शेक - आळ्णी पेजे नीस मोड्के तळांत.*

शृंगार आनी करुणा रस दोनी हांगा उपेता.

एच्चेमाचो चड्‌ताव कवितेंनी स्त्रीयेचो आनी चलियेचो पात्र चड आसा. गो म्हण आपंव्वें घड्ये घड्ये वाचुंक मेळता. हाका कारण कविच्या आन्भोगाचेर स्त्रीयेन /चलीयेन घाल्ली मोर जाव्येत.

*उग्डासा उश्यांत आतांय जिविंच आसात खतां*
*चर्बेव्न गेल्ल्या म्हज्ये तुज्ये पिरायेचीं*
*कासुळे पाना वय्ल्या उद्‌का थेंब्यापरीं*
*निस्त्रोन गेलिंगो वर्सां मात जिविताचीं (सांजे गीत)*

आण्णाच्या कल्पना थाव्न वेवेग्ळें रूप घेंव्ये ह्ये चलीयेलागीं कविन काळ्जाथाव्न, मनाथाव्न अती लाग्सिलो संबंध दवरल्लो दिस्ता.

*हांवगो मेण तुंगो वात*
*जळ्टांव दोगांय आतां - मोगा उज्यांत (हांव आनी तुं)*

ह्याच वर्वी थोड्ये कवितेंनी ही चली कवितेंत्ल्या नायकाच्या आटेविट्यांक कारण जाल्या

*मोगर्यांच्या भिचाण्याथाव्न मोळ्बाक निसण तेंकयिल्ल्या चेड्वासांगग भर-मोद्यानेर*

*सण्णांत्लें कित्याक जागय्लेंय? (आटेविटे)*

कथ्याच्यो कविता: पय्ली, हांत्ल्यो ह्यो पंग्ती कवितेचो नायक कसो कथ्दी जाव्न शिर्काला तें सांग्तात.

*तुजी कसलिच चूक ना म्हण*
*रुजु कर्ता।य कशें सांगगो चिक्कें तूं...*
*आज तुवें रांदिनात्ल्यार म्हाका जेंव्क रुचाना*
*तुवें हांतुळ्न दीनात्ल्यार म्हाका नीद लागाना...*

थोड्ये कवितेंनी चलिच कथ्दी, एक्सुरी जाव्न कविच्या भिर्मतेक ओळग जाल्या.

*ही कशी सांजगो बाये*
*उबोन गेल्ल्या सुक्ण्यांक, गुड्या पाट्ल्या गोळ्याक*
*सुरयाक, दरयाक, फुलांक राक्ची*
*आनी राकोन रांव्ची - मर्णादुताक*

एच्चेमाचीं चड्ताव कवितां संकीर्ण दिस्तात. संकीर्णाता नव्य कवितेचो एक घुर्त. दिसान दीस बद्लोन वेची जिणिच संकीर्ण जाताना, ह्या संकीर्ण जिण्येच्या आन्भोगा थाव्न फुलोन येंव्ची कविताय संकीर्ण जाता. समाजिक संघर्शांत शिर्कोन आण्णाचिंच सोध्नां कर्च्या कविक आप्लो संकीर्ण आन्भोग अभिवेक्त करुंक कवितेची नवीच वाट धरिजाय पड्ल्या. हांगा आपापिंच नव्य कविता रूप घेता।.

*कसो काड्टाय सोधुन म्हजो पत्तो?*
*गड्देच्या गांवांत भाग्र पड्लां, मेळोंक*
*ना म्हाकाच हांव.   (सोध्नां)*

आन्भोगांत शिजोन वोतोन येंव्या आनी भोग्णांक ऊंच मट्टार अभीवेक्त कर्ची ग्तिच कविता. काव्याचो तीर्ल आण्णांक्क एक बरी कविता सबार पाव्टीं वाचिजाय पड्ता. वाच्च्यार पावाना. कविता भोगिजाय पड्ता. तेद्ना कवितेच्या तिर्लाची रूच चाकोन वाच्पी कविचो आन्भोग आप्लो कर्न घेता तेद्ना ही संकीर्णाता नपंय्च जाव्न कविते भितर जिवित दिश्टीक पड्ता. असल्या कवितेथाव्न सुखाळ अन्भोग जोडिजाय

तर संकीर्ण कवितेंत्लो रसस्वाद चाक्वी आशा, आतुराय आनी चिंतनात्मक मन वाच्याथंय आसाजाय पड्ता. तेद्ना कवी आनी सहृदयी दोगांय्की दादोस्काय मेळ्ता. दादोस्काय दिंव्चो आनी जोड्चोच कवितेचो मूळ इरादो. कांक्णां गल्लेंत, असल्या ऊंच मट्टाच्ये कवितेक एक साक्स. कवितेचें तंत्र, अलंकार, जिव्योच दिस्च्यो कवितेचो घुट उचार्न सांग्च्यो इमाज्यो ह्या कवितेंक सोभाय दितात. कविता वाच्तां वाच्ताना कवितेंत्लो ताळो वाच्याच्या काळ्जा मना भितर साद्ता. नेंट्या चेड्वांच्या जिणियेची धारुणता कवी काळ्जाक नाट्वोंच्यापरीं चित्रित कर्ता.

*कांक्णां दुकानांत येतात चेड्वां*

*दोळभर घेवुन नेंटीं सण्णां*

*राय कुंवराचीं*

पुण दोळेभर नेंटीं सण्णां घेव्न येंव्च्या दोळ्यां खांचिंनी दुकां कित्याक फुट्तात?

*कांकाण जब्बोर वा हात निबोर*

*कातिंक चीर्न तुट्ताना फुट्तात, दुकां*

*दोळ्यां खांचींनी.*

ही कांक्णाची गल्ली कसली? कांक्णां विक्चीं आनी न्हेसंव्चीं पिरायेचीं बाय्लां आनी हेळ्ल्लीं बाय्लां कोण? कांक्णां गल्लेंत शिंपल्लीं सण्णां विंच्चीं पिशीं मनां कोणाचीं? हांगा कविचो आन्भोग कसलो? फुटल्ल्या कांक्णांक आनी शिंपल्ल्या सण्णांक कसलो संबंध? कविता वाच्तां वाच्ताना नवे नवे भाव उमाळ्तात. नव्यो नव्यो इमाज्यो दिश्टीक पड्तात. ऊंच मट्टाच्ये कवितेचें लक्शणच हें. एक सूक्श्म विशय कवी आप्लया काव्याची वस्त कर्न त्ये वस्तुक कलाकृती जाव्न रूप दिताना त्ये कलाकृतेची सोभाय चाक्वी कलादीश्ट रसग्राहकालागीं आस्ल्यार तो वाच्पी काव्याळ म्होंव व्हाळ्च्या वय्कुंटाक प्रवेश जोड्ता.

कवी पाट्ल्या थोड्या वर्सां थाव्न गड्देच्या गांवांत जियेव्न आसा. हेंच मुंबय श्हेर. सोध्नां कवितेंत गड्देच्या गांवांत भाग्र पड्लां, मेळोंक ना म्हाकाच हांव म्हण्ता कवी. हांगाच्या आन्भोगान कविक उचांबळ केला. ह्या गांवाक कुड्ड्यांचें श्हेर म्हण्ता तो. विनती कवितेच्यो सोळा पंग्ती ह्या श्हेराचें रूप उग्डापें कर्तात. रस्त्यांनी व्हाळ्च्या

रग्ताक आनी गटारांनी पास्ळाल्ल्या मासांक पळेव्न सोसुंक जाय्नास्ताना दुकिन क्रोधान पेटल्ल्या कविन विडंबनात्मक रितिन दाकंव्ची पडक्रिया विनती कवितेंत दिस्ता.

*केन्नांय असो उजो पेटय्नाकात*
*मासां भाज्तात, रग्तां पेट्टात - बोंबेक*
*श्हेर उट्‌ताना, पिराण - लज सांगाता लुट्‌तात*

वंडाय काव्यें म्हळ्यार फकत समाजिक अन्याय आनी क्रूरतेच्या विरोध रागान पेटोन फुट्‌चें न्हंय. एच्चेमाच्या वंडाय काव्यांत मनश्यापणाचो ताळो गाज्ता. रगात पियेंव्च्ये आनी मामां ग्वांव्च्ये समाजेंत साक्शी कवितेचो नायक असहायक जाव्न धर्णिक शेव्टाना. त्या वद्‌लाक तो फिल्मांत्ल्या हिरोपरीं ताळो पिंजुन रगत पियेंव्च्या विल्लनाक भेश्टाय्ता!

*पियेव्न उरल्ल्या रग्ताचें म्हज्या*
*कितें कर्ताय आतां तूं*
*रग्ताभियेच्या राक्सा कुळयेंत्लो हांव*
*धर्णिक शिंप्प्यार थेंब्या थेंब्यांत किर्लातां*

गड्‌देच्या गांवांत्ल्या, कुड्ड्यांच्या श्हेरांत्ल्या यांत्रिक जिण्येंत खिरोन गेल्ल्या कविच्या नायकाक आप्णे पाट कर्न आयिल्ल्या गांव्वोय उग्डास येता. पुण त्या गांवांत्लो कविचो आन्भोगय थंडायेचो न्हंय. काय्लिंत भाजल्ल्या जिवाक उजोय सोसुंक कळ्ता! भुजावण कवितेंत कविच्या भुजावणेचीं उत्रां पाट कर्न आयिल्ल्या गांवाची गजाल सांग्तात.

*पड्डा थंय उज्याचो पाव्स*
*गोरुं वास्रुं लास्लां, तण सय्त.*
*दुकोळ पड्डा त्या वोंटियांनी*
*जिराना उद्‌का थेंबो सय्त, भियाक*

अमत्ल्या भिंकुर्या मत्लबी गांव्ची हकीगत कवी भारीच आपुर्बायेंन सांकेतिक रितिन ह्या गांवांत कवितेंत उग्डापी कर्ता.

*राकोन राव्लो दोवा थेंबो पय्ल्या*
*स्पर्शाक, कोंब्यान साद घालोना*
*देकुन जाग जालिना सुरयाक*

आप्लो स्वाभिमान होग्डाव्न सुर्योच कोंब्याक खाल जालो तर? परिणाम? कवी अशें स्वश्ट कर्ता.

*कोंब्याक सुरयो, मोराक पाव्स*
*खाल देकुन ह्या गांवांत,*
*दीस उदेना पाव्स पडाना*
*काळोक दुकोळ सगळ्यानित्ल्यान*

समाजेची पोकोळाय कवितेच्या हातेरान बडव्न दाकंव्वी कविची असाधारण सकत ह्या पंग्तिनी झळकता. आण्णे जियेंव्वये समाजेथाव्न आप्ल्ये कवितेंक जोड्न त्ये समाजेचेर प्रभाव घाल्व्यो कविता एच्चेमान रच्ल्यात.

कोंक्णी साहित्य बाळवजाय तर ऊंच मट्टाच्या साहित्याची कृशी हांगा जांव्वी गर्ज आसा. एच्चेमान कोंक्णेंत नव्य कवितेची एक वाट उग्ती केल्या. आप्ल्या कवितेंच्या इराद्यांक सार्कें जाव्न कवितेंक नवें नवें रूप दिलां. व्येंग्य, विडंबन, विनोद, मोग, गंभिरता, दूख, भिर्मत, क्रोध, बंडाय अशें वेवेग्ळी रूच घेव्न व्हाळच्या 'कव्द्याच्यो कविता' पुस्तकांत्ल्या हर्येका कवितेंनी कविन ऊंच मट्ट सांबाळून वेलां. वाच्यांचें मनच कव्द कर्ची शाती कविन दाकय्ल्या.

कविच्या आन्भोगांत वांटेली जांव्वे सुभागी! 'कव्द्याच्यो कविता' पुस्तक पर्गट कर्न आशावादी प्रकाशनान कोंकणी साहित्य ग्रेस्त केलां. असलें काव्यें भोगुन सुखाळ आन्भोग जोड्च्या कोंकणी वाच्यांचो संको चड्ताना कोंकणी साहित्यय उंचायेक चड्तेलें आनी आशावादी प्रकाशनाचें मिसांव सुफळ जातेलें.

-आंड्र्यू एल. डीकून्हा

# मांडावळ

# आटेविटे

चान्या रातीं, मोरा पाकां माळुन आयिल्ल्या चेड्वा,
सांगगो म्हाका, नेकेत्रां खंय शिंपुन आय्लेंय?
अमासे वाटेर, काजुले पेटव्न आयिल्ल्या चेड्वा,
सांगगो, चंद्रेमाक खंय लिपव्न दवर्लेंय?

आबोल्याच्या उज्यार आंग शेकुन आयिल्ल्या चेड्वा,
सांगगो न्हाल्ल्या गुलोबा रोसाक खंय व्हाळय्लेंय?
मोगर्यांच्या भिचाण्या थाव्न मोळ्बाक निसण तेंकयिल्ल्या चेड्वा,
सांगगो भर-मोद्यानेर सप्णांत्लें कित्याक जागय्लेंय?

तुज्या मोगा पास्ळेंत हांवें गुंतल्लिं सप्णां सर्गाचीं,
संख्याच्ये काळकायेंत आज उल्यांत खतां मात हळ्दुवीं.



# कांक्णां गल्लेंत

कांक्णां गल्लेंत कांक्णां दुकानां
विकुंक वस्त्यांत पिरायेचीं बाय्लां
बणावणाचीं.

कांक्णां दुकानांत येतात चेड्वां
दोळेभर घेवुन नेंटीं सप्णां
राय कुंवरांचीं

नेंट्या हातांचेर मात्ये कांक्णां
न्हेसय्तात सांबाळन हेळल्लीं बाय्लां
जोकातुकाचीं

कांक्णा जव्वोर वा हात निवोर
कातिंक चीर्न तुट्ताना फुट्तात, दुकां
दोळ्या ग्वांचिंनी.

कांक्णां गल्लेंत शिंप्ल्यांतरे सपणां
विंचुंक पड्ल्यांत अशीं पिशीं मनां
आपुबयिचीं.



# कयद्याची कविता : उप्रांत्ली

च्यार वोणदीं भितर हांवगो आतां
कय्द सुक्ण्यापरीं जाळिच्या पिंज्र्यांत
संसार दिस्ता सोभित बाय्लो म्हाका
उबोंक मात पाकाटे नांत.

गुडे दोंगोर नंयो दर्यो
भंवोन खाव्न जियेल्लो जीवगो म्हजो
तुज्या राळ्ळेराचो पागोर इत्लेगो उबार
चोवीस वोरांयी मोगा पारो काळ्जा दारार

भितर्ल्यांक भाय्लें आनी भाय्ल्यांक भितर्लें
आशेंयी कित्याकगो पिश्यार घाल्ता?
केल्श्याच्ये कात्रिक खुशेन पाकां दिल्लो जीवयी
आज राळ्ळेरा सुकांथी कित्याक पिंर्गाता?

सांगगो,
निश्चिंत उब्ताना, बंदेंत बस्ची आशा,
पिंज्र्यांत पड्ल्या उप्रांत, उबोन वेची खंत,
काळ्जाक आशी कित्याक धोस्ता?



# पिंगोंण

फांत्याच्या सण्णा, कर्लात फुट्चे आदीं चींत
तन्र्या काळजांचे कुड्के गालां-पोंड्कुलांनी सांडुन
सकाळिंच्या दोवांत न्हांव्क वेच्ये पय्लें
काळजांत उर्लेल्या पिंतुरांचें कितें कर्चें सांग?

पुन्वेच्या चान्न्या, रातभर फांक, पुण
हेर दीस मय्न्याचे बाकी दवर
थोडें थोडें फांकुन धोशिनाका आम्कां
हिल्तांत राक्तात काळजांचे राय आम्चे.

जांगेंत्ल्या सुका, फकत एक घडी,
घडिभर राव आनी शिरांची बोब आय्क
खुशालायेक तुज्या रग्तां खडय्ताना
आम्चेर कित्याक हो जुलुम सांग?

# विनती

अत्म्या आक्लासाक जागें जांव्च्या श्हेरा,
म्हाका तुज्या मोद्यानेचीं सण्णां सांग
सण्णांचेर हांव संसोद कर्ता
उग्डापीं कर एकेक रुपां.

रग्ता तानेक खर्शेंव्च्या रस्त्यांनो,
म्हाका तुम्चें तोंड दाकया
रग्ता बेंकांत्ल्यो थंड गार सिस्ली हाड्न
वोत्तां - पियेन्न धेंक काडा.

मासा भुकेक वोळवळच्या गटारांनो,
म्हाका तुम्चीं जेव्णासालां दाकया
जेव्णा मेजार तुम्च्या मासां मांड्तां
जेन्न दाधोशी जाया.

पुण,
केन्नांय असो उजो पेटय्नाकात.
मासां भाज्तात, रग्तां पेट्टात - बोबेक,
श्हेर उट्ताना, पिराण - लज सांगाता लुट्तात.



# सांज

ही कशी सांजगो बाये,
ना तांव्डो सुर्यो उचांबळ दर्यो
वोणदी वय्ल्या पाय्नेलाक दाकव्न म्हण्तात माद्री
ताचे कव्लाते शिवाय ह्या संसारांत हालाना काडी.

ही कशी सांजगो बाये,
नांत गोंटेरांत खेळचीं पिलां गांव्वीं सुक्णीं
जनेला भाय्ल्या मोळबाक दाकव्न म्हण्तात माद्री
राती आदीं पाटीं येतेलीं सुक्णीं उबोन गेल्लीं.

ही कशी सांजगो बाये,
गोर्वां सय्त नांत गोट्यांत, हालाय्नांत खिण्कुळे
दारा भाय्ल्या दोंग्राक दाकव्न म्हण्तात माद्री
गुडो उत्रोन गेलास्तोलो - येतोलो गोव्ळी.

ही कशी सांजगो बाये,
येनांत भोंवर फुलानांतगो वोड्तांत फुलां
वार्याक धल्व्या केक्टासांक दाकव्न म्हण्तात माद्री
कांटे पिकोन बोंगे फुट्ताना येतेलीं फांतीं.

ही कशी सांज - बाये सांगगो,
उबोन गेल्या सुक्ण्यांक, गुड्या पाट्ल्या गोळ्याक
सुरयाक, दरयाक, फुलांक - राक्वी
आनी राकोन रांव्वी - मर्णादुताक.



# तुजेवीण

तुजे वेंगे उश्यांत सण्णांत नेकेत्रां खुंट्तालों
आज घडियाळा कांटो चल्या आवाजाक आकांतोन बस्तां
गोंगो पळेन्न पाळण्यांत्लें बाळशें उडोन पड्टा जशें
सुका दुकांत सांगाता जियेंव्ची भासगो तुटोन.

वोणदिच्या खिळयाच्या पाय्नेलांत पिराण सोड्टागो
साक्रामेंत म्हजो - च्यार वोणदीं मदें हांवगो
कव्दी, काळजांत किर्लाल्ली मोगावाल हुम्टुन वचोन
किर्लाल्ल्यांत फकत झाडां पार्तेनियामाचीं

शिताच्या हर घासांतगो स्वाद तुज्या हाताचो
आमोरेच्या घांटिंत नाद तुज्या पाच्या कांक्णांचो
मेजा कोन्श्यार तुटोन पडल्लो बाज्वे बुतांव तुजो
साक्शेक - उर्ल्या आळणी पेजे नीस मोड्के थळांत.

काल्जा उडियेंत, शिता उंडियेंत, व्हाळच्या वार्यांत सय्त
तुजिचगो आनी फकत तुजी सताय्ता याद
तुटोंक तयारनांगो सग्ळ्ये भाक्रे हटाक पडल्लें भुर्ग्या संख्य
उरोंक ना भाक्री, आतां-आप्ल्याच जाळांत शिर्काल्ल्या साळव्याचिगो गत म्हजी.



# सांजे गीत

उग्डासा उश्यांत आतांय जिविंच आसात खतां
चर्वेन्न गेल्ल्या म्हज्ये तुज्ये पिरायेचीं
कासुळे पानां वय्ल्या उद्का थेंब्यापरीं
निस्त्रोन गेलिंगो वर्सां मात जिवितांचीं

तर्न्या फांत्यार उचांबळता आतांयी मत पिशी
उड्काणां मार्ता कानाक वारें रिगल्ल्या वास्त्रापरीं
दोन्पारां वोताक तुटोन पडल्ल्या निळ्ळी पाना परीं
दीक गळय्ता शिर पोक्री पाड्क्या संख्बाची

पुन्वे रातीं नेकेत्रां मेज्ची पिसाय काळजाक
मोरापरीं पाकां फुलन्न नाच्ची गिरांत मनाक
आवय्च्या दूदान आशा बागनात्ल्या बाळ्श्यापरीं
तान वोंटांक तुज्या गालांच्या पोंड्कूलांची

घरांत सांज रिग्ताना कस्लिगो ही पिसाय?
बुडोंक वेच्या सुरयाक सय्त ल्हारांची खराय
मिटांत घाल्ल्या तोरापरीं चिर्मुटोन वेता पिराय
पिश्ये मतिक सम्जोंव कशें सांगगो कांय उपाय.

# आनस्तेशिया

पोटांत भुक आन्किटेंत आशा आस्ताना
अन उदक नात्लें - आतां थरावळ पक्वानां
जिबेक रूच, जिर्वण ना आन्किटेक.

इगर्ज, इस्कोल सग्ळें बणांनी नेटोन सज्ताना
तिर्कुटो नात्लो लजेक, न्हेसोंक रेमंडाचे सुट आतां
धांपुंक लज, उरोंक नांत सजोंक तर्नी आंगां.

हासोन खेळोन आस्च्या नेंट्या पिरायेर व्हाल्लीं दुकां
उर्ली काळजांत खतां, आतां दोळ्यांक थंड वोक्लां
रडोंक दुकां संप्ल्यांत काळजांत मय्पासाचीं सुतां

सण्णां रंगंव्या दोळ्यांनी रग्ता तान
मोग पालेंव्या काळजांत पार्तेनियम रान
जिबे रुचिच्यो, स्पर्शा सुकाच्यो, काळजा संतोसाच्यो
शिरे सुक्ल्यातगो कुडी अत्मयांत.



# काळजा जयलांत

काळजा दारार सदां तुजो मोगा पारो
उत्रों तरी हुंवोर कशें राळ्ळेराचो?
चोवीस वोरां हांवगो तुज्ये नद्रे बंदेंत
भाग्र पडों तरी कशें सांग, मोगा सांतेंत?

उस्क्यार तुज्या हांवगो भुर्गे इक्रा मय्न्यांचो
पेंक्टाक म्हज्या बाराय वोरां नाडो तुज्या पाल्वाचो
पोळुन तरी सुटों कशें, सांग खंय लिपों
व्हाज्ता पांयांत्लो पितुळे खिण्कुळो

च्यार वोणदीं मदें कय्द आमी दोगां
दोन काळजांक इत्लीं कित्याक बंद कुडां
उग्तीं कर आतां तरी धांपल्लीं बाग्लां जनेलां
व्हाळोंगो वारें, फुलों - सुटकेचीं मोग्रया फुलां

# सोध्नां

कसो काड्टाय सोधुन म्हजो पत्तो?
गड्देच्या गांवांत भाग्र पड्लां, मेळोंक
ना म्हाकाच हांव.

विचार्ताय कोणाक दाकव्न म्हजे गुर्त?
कुड्ड्यांच्या श्हेरांत वोक्लां लाय्ल्यांत, रातिक
घुगिंनी सय्त दोळ्यांक.

हुंगोन भाग्र सर्लाय रग्ता घामाचो थेंबो
पर्मळाच्या गल्लेंनी चाम्ड्यांची दुकांना, आडोव
दुकां सिस्ली सराफांक.

सोडगा आतां म्हजेइत्ल्याक म्हाका, बर्फा कुड्को
जातां, एक्सुरपणा उज्यांत खिर्तां. पाव्सा थेंबो जातां
मोगा थंडियेंत रूक जातां. आर्बी दरयांत मेळ्तां
उचांबळ तुफान जातां.



# आयेर

आजगो तुजो जल्मा दीस, चड्टा
वग्म आन्येक पिरायेक पड्टा
मिरी आन्येक गालाक.

आजगो तुजो जल्मा दीस, दींवगो
कितें सदां उग्डासांत उर्चे. हाडुं
सांग कितें सास्णाक जिवें उर्चे.

वर्सां चड्टेलीं, मिरीयो वाड्टेल्यो
फुलां बावतेलीं, वस्तु काबार जातेल्यो

दाव्या पोल्याच्या चम्कोळा मुळार
घेगो एक चोरियां उमो

शेवोट पर्यांत तुका धोस्तोलो.

# फिरयाद

कसो मेलो कवी?
वीक लागोन, निळो पडोंक ना
जीव चडोंक ना काळबाण जिबेर

कसो मेलो कवी?
गाडिये पंदा येव्न, पिटो जांव्कनांत
हाडां, चाम्डीं फुटोन व्हाळोंक नांत रग्तां

कसो मेलो कवी?
उद्कांत पडोन, पोट फुगोंक ना
भरोंक ना उदक पोप्सांत

कसो मेलो कवी?
उज्यांत लासोन, मासां जळोंक नांत
पेटोंक नांत काती

कसो मेलोरे कवी ह्या पर्की श्हेरांत?
पुर्शांव कस्ले दिस्तात रिकाम्या रस्त्यार!





# चेडे आमी आशो

चेडे आमी अशेगो - टी.वी.चो रिमोट हाताक
मेळ्ळयार, सग्ळी रात च्यानेलां बदलीत बस्तांव
मोद्याने उप्रांत निद्तांव, जेनिफर लोपेज म्हण
फात्याफरार व्हड्डीमांक्क पोटलुंक वचोन
सतच दांडे खातांव.

चेडे आमी आशेगो - मूर्ती सराच्या क्लाशिक कुंक्डा नीद
मार्तांव, नोट्सांत फकत "आय लव यू" बरयतांव
परिक्शा आय्ली म्हण्तच तुम्चेकडे नोट्स माग्तांव
आनी केमिस्ट्री नोट्साच्या मद्ल्या पानार तुमी ऊबेक
दवरिल्लें मोरा पाक, खंडिती पिलां दिता म्हण पातियेतांव.

चेडे आमी आशेगो - ब्लू डेनिम जीन्स शिर्कायतांव, बुस्कोटाक
कडक्क इस्त्री मार्तांव, सत्री सदां विसर्न पाव्साक
भिज्तांव, आदिदासाचे मोचे खोवय्तांव. बुराक
पड्तावरेग गंजीबुराक, गांडिर पिंद्तावरेग बर्मुडां नवीं
घेनांव, सतच सोक्स कुस्तावरेग धुय्नांवगो.

चेडे आमी अशेचगो - तुम्कां मेळोंक म्हण च्यार बस्सां सोड्तांव
पांच्या वस्साच्या बाग्लार उम्कोळ घेतांव, उस्क्यार तुम्च्या
आम्चे मोगाचे नोट्स दितांव आनी तांतुं एक कागद लिपय्तांव,
पद्धाच्ये चड्णेर बस खर्शेताना तें वाचुन तुमी एक हास्ल्यार पुरो
भरल्ल्या वस्साच्या बाग्लाचीं सरळां सोड्न
सतचगो तुम्च्या मोगार वोम्तेच पड्तांव.



# कोण?

मोन्जात कित्याक धांवोंक लागली
सुक्णीं कित्याक उबोंक लागलीं
कोण रिग्लो रानाक
ह्या खर्कट्या वोताक?

बांय लाग्चीं चेडवां खंय लिपलीं
वाटेर खेळचीं भुर्गीं खंय पळलीं
कोणगा आय्लो गांवांक
जुनेल्ल्ये ह्ये सांजेर?

फार एक सुट्लोना बंदुकेंत्लो
पेटो कांय उटोन घोंक्लो ना आंग्णांत्लो
तरई ही पोळापोळ कस्ली वनांत, गांवांत?



# भुजावण

रडनाका काळजा चिंतुन -
पाट घाल्न आयिल्लो गांव
पड्ला थंय उज्याचो पाव्स
गोरुं वास्रुं लास्लां, तण सय्त.

रडनाका काळजा चिंतुन -
फटव्न पळल्लो पय्लो मोग
दुकोळ पड्ला त्या वोंटियांनी
जिराना उद्का थेंबो सय्त, भियाक.

रडनाका काळजा चिंतुन -
बंदडेंत तुवें काडल्ले दीस
सुट्का मेळ्ळया त्या गांवांक आतां
तुज्या वांट्याक उर्ला - आळुं देंटो.



# कयद्याची कविता: पय्ली

तुजी कसलिच चूक ना म्हण
रुजु कर्ताय कशें सांग तूं

म्हाका तांब्डो रंग आवड्ता म्हण
सदां तांब्डीं चूडिदारां न्हेस्लेंय
म्हाका लांब केस पसंद म्हण
पार्लाराक वेचें सय्त सोड्लेंय.

तुजी कसलिच चूक ना म्हण
रुरु कर्ताय कशें सांग तूं

सदां दोन्पारां बारांत जेव्तालों
नाका म्हज्या हाताचें खा म्हळेंय
जेन्न मेजार कुंक्डा नीद मारतालों
नाका म्हजे सांगता 'चेस' खेळ म्हळेंय.

तुजी कसलिच चूक ना म्हण
रुजु कर्ताय कशें सांग तूं

म्हाका आयश्वर्याचे दोळे सतच सोब्ले
आस्ड्यो तुंवेय तशेच कातर्लेय
खाड तासुन फड्की घास्तालों
डेनिम स्प्रेनी तुवें म्हजें कबाट भर्लेंय.

तुजी कसलिच चूक ना म्हण
तें कशें सांग्तायगो तूं

कण्शी बांदुंक आसा म्हण घरा आपय्लेंय
माम्मिक सांगोन कितेंगो वकत वाट्लेंय
कामाक म्हण आयिल्लेंयमुगो दफ्तराक
दिश्टिन बांद्लेंय, काळजांत कुडाय्लेंय.

तुजी कसलिच चूक ना म्हण
रुजु कर्ताय कशें सांगगो चिक्कें तूं

म्हजें रांद्तालों, म्हजी नीद मार्तालों
सोभल्लें न्हेस्तालों, मेळल्ल्यांक चोय्तालों

आज तुवें रांदिनात्ल्यार म्हाका जेंव्क रुचाना
तुवें हांतुळ्न दीनात्ल्यार म्हाका नीद लागाना
तुका सोभानातल्लें हांव न्हेसाना
टी.वी.र सय्त औश्वर्याक दोळो उकल्न पळेना

चिंतां तर फकत तुकामू सग्ळो दीस
केद्ना येत सांज आनी तुका मेळान.

सांगगो आतां चिक्के तूं, तुजी कसलिच चूक ना
म्हण रुजु कर्ताय कशें?



# हांव आनी तूं

तुंगो फुल हांवगो भंवर
मोगार पङ्ग्यांव पय्ल्ये दिश्टित

तुंगो दरयो हांवगो सुरयो
उतर जालें आम्चें दरया तडिर

तुंगो चंद्रेम हांवगो चान्नें
एक जाल्यांव नेकेत्रां साक्शेंत

हांवगो मेण तुंगो वात
जळटांव दोगांय आतां - मोगा उज्यांत.



# याद

क्काळोन आयिल्ल्या वार्यातगो गाज
तुज्या काळजाचो, नाद पांय्जणांचो
भरोन येंव्या ल्हारांनी सूर कांक्णांचो.

पन्वेच्या चंद्रांत फकत तुजेंगो रुप्णें
पालेता चान्न्यापरीं, काळजांत मोगतण पाच्वें
गिर्बुज्यो गाय्तात गीत तुज्या येण्याचें

उबोन आयिल्ल्या मोडांतगो पर्मळ
आंगाचो तुज्या, कूस बदि्लता ह्र्दर्यांत
वांटुन खेल्ल्या घडियांची गोड याद

ल्हारांनी, मोडांनी, प्रिथुमेच्या कणाकणांनी
तुंगो आनी फकत तूं, वोरांनी, घडियांनी
कुडिच्या शिरां शिरांनी म्हज्या - तुजिचगो पोट्ट्राणी.

# दोन सुक्णीं

आबोल्यांच्या वोड्तांत दोन सुक्णीं
खाव्न जेव्न आपाप्ल्या गोंटेरांनी
दाधोशी

पोटाक भुक लग्ताना जेव्लीं
दोळ्यांक जेम लाग्ताना निद्लीं
नांत कोणाच्यो धोशी

वोड्त सांबाळुंक एक माली
काजार जाव्ना बाव्डो आंक्वारी
मत पिशी

मालिन एक्सुर्या सुक्ण्यांक लागीं हाड्लें
सग्रिक जोड्ली चीटी वाच्ल्यो - घड्ली
मात्रिमोनी

आतां -

पय्लें सुक्णें दुस्न्याविणे जेविना
दुर्से पय्ल्याविणे निदाना
भिर्मत -
दोगांय्च्या पोटाचे आनी दोळ्यांचे
बारा ब्रेस्तार तेरा सुक्रार



# कोणे?

वोंटान चिंन्नाना देंटांत दूक
तर्नाटपण फुट्ताना कुसाळांत सुक
कोणें सांग्लें रानांत्ल्या होरेताक
नाडांत्लें चेडुं होकाल जालां म्हण?

मोळबार आदाळटानाहर्द्यांत पाव्स
दिश्टी जग्लाण्यान घड्येन पेट्टा वोत
कोणे सांग्लें घामाच्या थेंब्यांक
मोळबा धोणु बांदुन रावा म्हण?

पुन्वेच्ये रातीं काळजांत उट्ता ल्हार
मुक्राच्या उज्वाडांत धेडियांचो व्होर
कोणें सांग्लें होरेताच्या गांव्च्ये वाटेर
च्यार दीस आनी च्यार राती म्हण?

रानांत्ल्या पाव्साक पाव्साक मन नाच्ता मोर
काळजांत्ल्ये पिर्लुकिचो तुटोन पड्ला सूर
कोणें सांग्लेंरे एच्चेम पेर्नाळच्या ह्या चेड्याक
तुं कवी जा म्हण?



# साक्शी

पियोन उरल्ल्या रग्ताचें म्हज्या
कितें कर्ताय आतां तुं
रग्ताभियेच्या राक्सा कुळियेंत्लो हांव
धर्णिर शिंप्ल्यार थेंब्या थेंब्यांत किर्लातां.

खाव्न सांडल्ल्या मासाचें म्हज्या
कितें कर्ताय सांग आतां तुं म्हाका
पार्तेनियम संततिचें भीं रे हांव
वार्यांत उबोन एञ्चेम गांवभर जातां.



# ह्या गांवांत

राकोन राव्लो दोवा थेंबो पय्ल्या
स्पर्शाक, कोंब्यान साद घालोना
देकुन जाग जालिना सुरयाक
बरफ जालो थेंबो हिंवाक

राकोन राव्लें मोगा फांतें मातये
उम्याक, मोर नाच्लेंना देकुन
पड्लोना पाव्स, गोबोर जालें
फांतें एक्सुरपणा उज्याक.

कोंब्याक सुरयो, मोराक पाव्स
खाल देकुन ह्या गांवांत
काळोक दुकोळ सग्ळ्यानित्त्यान.



# चलियांक चत्राय

वोंटार मिशियो कालच फुट्ले
हर्यांत दड्दडे आजच सुट्ले
मोद्याने रातीं तुं आय्लेंय अशें
संदा संदार उमे, वेंगेंत उशें.

आय्कगो हें सग्ळें म्हाका नवें नवें
आंक्वार मरिये माग्णें म्हळ्ळें हांवें
तरयी सांगगो कित्याक अशें घड्लें?
पय्ल्या उम्याकच काळ्जादार तुटोन पड्लें.

तुमिंचमुंगो आम्चो सर्ग चुकयिल्लो
किर्कोळ फळ दीव्न आदांव बापाक फटयिल्लो
वाटगो ही आम्ची भागेवंत आंक्वार्यांची
तरयी कित्याकगो सदां हांगा तुम्ची सवारी.

चेडेगो आमी नितळ काळ्जांचे, पवित इराद्यांचे
थंड उद्कांत न्हातांव, माग्णे रजार कर्तांव
रावानाकातगो आड वाटेर आम्च्या
चुकय्नाकातगो सर्ग पत्र्यान आम्कां.



# उण्यांत्लें देणें

कागदाचें फुलगो तुं
ना तुका पर्मळ
- खर्गानाकागो बसोन वोगें.

मेणाचोगो भोंवर हांव
नांत म्हाकायी पाकाटे
- निदेंत्लें जांव्यां जागें.

आसा तुज्या पाकळ्यांनी बण
तशें म्हाकायी दोळे जोड
चोयीत बस्तां हांव तुका
उसय वोंट उम्यांक म्हज्या

उलय्तेले ऊण उलय्त बसों
दिश्टीं स्पर्धांत आम्चेयी - कळे फुलों.



# दोगी आंक्वारी

कात्वे रातीं निदोंक वेचे आदीं
कुसाळांत्ली काड्न पाळण्यांत निदायित्ली
फांत्याफारार गेली खंय? - कविता.

दरया वेळेर पासायो मार्ताना
ल्हारां सांगाता व्हाळोन आय्ली
जिवाक आदाळ्ळी गेलिना पाटीं - कविता.

पार्यावाल्यांची नदर मारुन
कोम्सा आडोसाक हर्याक दांबून
उब्गोणेक आसों म्हण सांगाता हाड्ली - कविता.

नाण्येंत न्हाताना हात निस्रोन पड्ली
साबा फेंडांत अपालिपा खेळोंक लाग्ली
कोंडाटे उलन्न भोळान्न उकल्ली - कविता.

जेव्ताना पर्त्यान येन्न माल्ते धोड्यार बस्ली
लोण्चें चाक्ली, नीस पियेली, पास्ळेंत घेन्न
गाणां गावुन पाळण्यांत दवर्ली - कविता.

दरया उस्क्यांत्ले सोभीत सुंदर चलीये
सण्णांत येन्न तुवें तिका म्हळेंय कांय?
सांगगो चिक्कें चोट्ट्या चेड्वा,
फांत्याफारार म्हजी नीद फारुन
सतय्ताय कित्याकगो तुमी दोगी आंक्वारी?



# केल्शी

बस्स स्टोपांत भरल्लें मराऊरु बस्स देंव्ल्यार
उज्व्याक शीना भंडारिचें सेलून

च्यार कुशिंक वाशे बांदुन
मोड्लां खोवयिल्ल्या दुकानांत
अर्द्या चिरे फात्रांच्ये वोणदिर
फुटल्लो फ्रेम नातल्लो आर्सो

उबार धोड्याच्या कदेलार बसोन
ताच्या हातीं तक्ली वोपुन दिल्यार
तो -
गोम्टेक धवोगी हळ्दुवोगी बण
पार्कुंक जाय्नात्लो तुवालो रेव्डान्न
कातर दांतोणी हातीं घेता.

तोंडांत भरल्ली पीक थुकुन
कात्रिच्या कचा-कचा आवाजाक
हळू आप्ली केसेट लाय्ता.

मूत पियेन्न निरोग जियेंव्च्या
मोरार्जी देसायीन इंदिरा गांधीक कशें
कय्द केलें? जबरदस्तेन ओप्रेशनां

करंव्चो संजय गांधी उब्व्या विमाना थाव्न
कसो पडोन मेलो? आयोद्येच्या कर सेवेक
गेल्लो लोक कित्याक भागी जालो?
... इत्यादी मुग्दुन

तुम्कां सम्रिक घट जाल्लें चेडुं
ह्याच्च गांवचें म्हण कळ्ळयार...
बोण्कुल्याची सुन कशें काजार जाताना
गुर्वार आस्लें? रोबेलाची धुव कशें
माप्ळ्या सांगाता मुबय धांव्लें?
...इत्यादी, इत्यादी

तुमी भिर्मत
हां! हां! म्हण्ते वेतात

•

तो -
गोम्ट्याचें बैरास सुटव्न
निर्दयेन कापल्ले
तुमी जोगासाणेन सांबाळल्ले केस
दुकानाच्या कोन्श्यार पापुड्न
दुस्त्र्ये कस्रिक चुनो लाय्ता परयांत
वाकोराचें तोरुं
आनी
तुम्ची मोलाधीक तक्ली
ताच्या
हातांत आस्ता जाल्यान.



# वाट राक्तां

कुळार्चे वाटेक फुलां माळुन तुवें
पाशार जाले दीस कित्ले?
कुडांत म्हज्या पर्मळ मात्येचो
पाल्वांत तुज्या बांदुन धाड्लोलो
पाव्म पाग्गुचो गेलो खंय...
हेव्णीं विस्रोन?

येतेलेंय परत धलयित्त बाळाक
पाळण्यांत मोगा कुळार्चे वाटेर
गळ्यांनी बोय्लांच्या खिण्किळो हालोन
वदनार तुज्या चान्नें फुलोन
गालां भव्नीं मोगा, तारां
उदेव्न गाय्तेलीं बाळाक गाणां.
उग्डास तुजो काळजांत म्हज्या
रड्टा दिवो ना तेल
पाल्वा वारें नास्तां तुजें
भिचाण्यार मोगा - नीद वेंगाना
उग्डास म्हजो येना कित्याक

तुका...
उग्डास म्हजो येना कित्याक?
राक्तां वाट सदां तुजी
मेज्तां बोटां - आसात दीस

येतेलेंय केन्नां? हाड्तेलेंय पाव्स?
सुक्तां हांव - सुक्ल्या भुंय.
मोग्रीं घेवुन येतलों मुकार
वोत्तोलो पाव्स शिरांधारिंनी
बाळाक म्हज्या थेंबे बेस्याचे
गुरोम घेवुन येतलों हांव.

कुळार्चे वाटेक फुलां माळुन तुवें
पाशार जाले दीस कित्ले?
येतेलेंय केन्नां? हाड्तेलेंय पाव्स?
सुक्लां हांव... राक्तां हांव.



# ಸಾಹಿತಿಕ್ ಪರಿಚಯ್



ನಾಂವ್ ತೆಂ ಜಾಂವ್ ಎಚ್ಚೆಮ್, ಹೆನ್ರಿ ಮೆಂಡೋಸ್ ಯಾ ಹೆನ್ರಿ ಎಮ್. ಪೆರ್ನಾಲ್. ಪುಣ್ ಚಿಂತಪ್ ತೆಂಚ್, ಜೆಮೆಲ್ಲ್ಯಾಂಕ್ ಏಕ್ ಘುಡಿ ಧರ್ನ್ ಹಾಲಂವ್ಚಿ ತಾಂಕ್ ತಾಚ್ಯಾ ಬರ್ಪಾಂಕ್ ಆಸಾ. ಜಾಗೆ ಆಸ್‌ಲ್ಲ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಕಾಳ್ಜಾಂಕ್ ಸಯ್ತ್ ಚಿಂತಿಶೆಂ ಕರ್ಚಿ ಶ್ಯಾಥಿ ತಾಚ್ಯಾ ಬರ್ಪಾಂಕ್ ಆಸಾ.

ಕನ್ನಡ ಸಾಹಿತ್ಯಾಚೊ ಖರೊಚ್ ಪ್ರಭಾವ್ ತಾಚೆರ್ ಪಡ್ಲ್ಯಾ ಮ್ಹಳ್ಳೆಂ ತಾಚ್ಯಾ ಬರ್ಪಾಂಚಿ ಧಾರ್ ಆನಿ ತಾಚ್ಯಾ ಚಿಂತ್ಪಾಚೊ ಸಾರ್ ಸಾಂಗ್ತಾ. ಕೊಂಕ್ಣಿಂತ್ಲ್ಯಾ ಕವಿತಾಶೆತಾಂತ್ ಕಾಂಯ್ ನವೆಸಾಂವ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ ದಿಶೆನ್ ಹೊ ಖಂಡಿತ್ ಜಾವ್ನ್ ಬರಿ ದೇಣ್ಗಿ ದೀಂವ್ಕ್ ಸಕ್ತಲೊ ಮ್ಹಳ್ಳಿ ಪಾತ್ಯೆಣಿ ಮ್ಹಾಕಾ ಆಸಾ. ಎದೊಳ್‌ಚ್ ಹಾಣೆ ಬರಯಿಲ್ಲಿಂ ಶೆಂಬೊರಾವಯ್ರ್ ಕವಿತಾ, ಪಂಚ್ವೀಸಾಂ ವಯ್ರ್ ಮಟ್ವ್ಯಾ ಕಾಣ್ಯೊ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಆನಿ ಕಾನಡಿ ಪತ್ರಾಂನಿ ಪರ್ಗಟ್ ಜಾಲ್ಯಾಂತ್. ಜಾಯ್ತಿಂ ಇನಾಮಾಂ ಸಯ್ತ್ ಹಾಣೆ ಜೊಡ್ಲ್ಯಾಂತ್. ಉತ್ರಾಂನಿ ತೀಕ್, ಚಿಂತ್ನಾಂನಿ ಚುರುಕ್ ಆಸ್ಚ್ಯಾ ಹಾಚಿ ಏಕ್ ಸಾಹಿತಿಕ್ ಪ್ರೋಳ್ 'ಸಮೀಕ್ಷಾ' ಉದೆವ್ ಪತ್ರಾರ್ ಫಾಯ್ಸ್ ಜಾಲ್ಯಾ, ಆನಿ ದೋನ್ ವೊಳಿ 'ಕಾಣಿಕ್' ತಶೆಂಚ್ 'ಮಿತ್ರ್' ಪತ್ರಾಂನಿ ಪರ್ಗಟ್ ಜಾವ್ನ್ ಆಸಾತ್. ಮಂಗ್ಳುರ್ ಆನಿ ಮುಂಬಯಿ ಆಕಾಶ್‌ವಾಣಿಚೆರ್ ಸಬಾರ್ ಬರ್ಪಾಂ ಪ್ರಸಾರ್ ಜಾಲ್ಯಾಂತ್.

'ಚಲ್ಯಾಂಕ್ ಚತ್ರಾಯ್' ಆನಿ 'ದೆವಾಕ್ ಸೊಡ್ಲಲೊ ಪಾಡೊ' ಉಪ್ರಾಂತ್ ಹೊ ತಾಚೊ ತಿಸ್ರೊ ಬೂಕ್. ಎಚ್ಚೆಮ್ ಫಕತ್ ಏಕ್ ಕವಿ/ಬರವ್ಪಿ ನ್ಹಂಯ್, ಏಕ್ ವಿಮರ್ಶಕ್, ಪ್ರಬುದ್ಧ್ ಚಿಂತ್ಪಿ ಆನಿ ಸಾಹಿತಿ. ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಾಹಿತಿಕ್ ಶೆತಾಂತ್ ಹಾಂವೆಂ ಖಾಯ್ನ್ ಕರ್ಚ್ಯಾ ಗೂಂಡ್ ಬರವ್ಪ್ಯಾಂ ಪಯ್ಕಿ ಎಚ್ಚೆಮ್ ಏಕ್ಲೊ. ತಾಚೊ ಹೊ ಬೂಕ್ ಆಶಾವಾದಿ ಪ್ರಕಾಶನಾಚ್ಯಾ ಎದೊಳ್ಚ್ಯಾ ವಾವ್ರಾಂತ್ ಏಕ್ ಮುಯ್ಲ್ಯಾಫಾತೊರ್ ಜಾತಲೊ ಮ್ಹಳ್ಳಿ ಮ್ಹಜಿ ಪಾತ್ಯೆಣಿ.

—— ವಲ್ಲಿ ಕ್ವಾಡ್ರಸ್, ಆಶಾವಾದಿ ಪ್ರಕಾಶನ್

